


# गोवा कोंकणी अकादेमी

# कोंकणी साहित्य आनी भाशा सेवा पुरस्कार 2012

बिरेस्तार ता. 28 मार्च 2013
गोंय राज्य वस्तुसंग्रहालय - सभाघर,
पाटो, पणजी - गोंय

# गोवा कोंकणी अकादेमी

# कोंकणी साहित्य आनी भाशा सेवा पुरस्कार 2012

साहित्य प्रतिभा पुरस्कार



श्री. दामोदर मावजो

साहित्य प्रज्ञा पुरस्कार



श्री. नागेश सौंदे

शणै गोंयबाब भाशा सेवा पुरस्कार



आंतोन द पीयेदाद मोराइस

माधव मंजुनाथ शानभाग भाशा सेवा पुरस्कार



फा. मार्क वाल्डर

युवा चैतन्य पुरस्कार



श्री. गोपिनाथ गांवस

युवा चैतन्य पुरस्कार



डॉ. सोनिया सिरसाट




कोंकणी सेवा संस्था पुरस्कार

अंत्रुज ललितक,
बांदोडें, फोंडे




# कोंकणी
# साहित्य आनी भाशा सेवा
# पुरस्कार 2012

# **कोंकणी**
# **साहित्य आनी भाशा सेवा**
# **पुरस्कार 2012**

## **कार्यावळ**

5.00 ईशस्तवन : **बाय तृप्ती दामले**

5.05 येवकार : **प्रा. भूषण भावे**, उपाध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

**फुलांनी येवकार**

5.15 **सर्वोत्कृश्ट साहित्य / ग्रंथ पुरस्कार वितरण**
**युवा चैतन्य पुरस्कार वितरण**
अध्यक्ष – **भौ. राजेंद्र आर्लेकार**
सभापती, गोंय विधानसभा

5.40 **जीवन गौरव पुरस्कारांचें वितरण**
मुखेल सोयरे – **डॉ. सुरजीत पातर** हांचे हस्तुकीं

**उलोवपां –**

6.00 जीवन गौरव पुरस्कार विजेत्यांचे वतीन उलोवप–
**श्री. नागेश सौंदे, दामोदर मावजो**

6.10 युवा चैतन्य पुरस्कार विजेत्यांचे वतीन उलोवप –
**श्री. गोपीनाथ गांवस**

6.15 साहित्य ग्रंथ पुरस्कार विजेत्यांचे वतीन उलोवप–
**डॉ. किरण बुडकुले, श्रीमती इंदू गेरसप्पे**

6.30 **श्री. सुरजीत पातर** – समारंभाचे मुखेल सोयरे

6.55 **श्री. पुंडलीक नायक** – अध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादेमी

7.05 **श्री. राजेंद्र आर्लेकार** – समारंभाचे अध्यक्ष

7.25 उपकार – **श्री. सिद्धिविनायक नाईक**, सचिव
गोवा कोंकणी अकादेमी

7.30 जेवण

सूत्रनिवेदन – **श्रीमती दया तेंडुलकार**, श्री. **अनील वेर्णेकार**

# अकादेमीचे वतीन...

कोंकणी साहित्य आनी भाशा सेवा पुरस्काराचें हें पांचवें वर्स. आतां ह्या वर्सूकी पुरस्कारांक साहित्य आनी भाशेच्या मळार प्रतिष्ठा लाबत आसा. अंदू वर्सा एका नव्या पुरस्काराची भर पडल्या. गोंयाभायल्या लेखकांखातीर साहित्याच्या वो संशोधन, शास्त्रीय ह्या खंयच्याय विशयांवयल्या पुस्तकाखातीर एक पुरस्कार दवरला आनी हो पयलोच पुरस्कार जोडपाचो मान बंगळूर हांगां रावपी श्रीमती इंदू अशोक गेरसप्पे हांकां तांगेल्या 'संकल्प' काव्य संग्रहाखातीर लाबला.

गोवा कोंकणी अकादेमीची कार्यकक्षा गोंयां पुरतीच मर्यादित आसली तरी बऱ्योचश्यो येवजण्यो आमी सगळ्या कोंकणी भाशीक प्रदेशांखातीर आनी कोंकणी लेखकांखातीर उक्त्यो दवरल्यात.

अंदू वर्सा पुरस्कारांची निवड पद्धत आमी साहित्य अकादेमीचे धर्तिचेर केल्या. पुस्तकांच्या पुरस्कारांखातीर लेखकांकडल्यान पुस्तकां मागोंवंक ना. आरंभाक दोन जाणकारांनी तीन वर्सांचे मुदतींतल्या पुस्तकांची मूळ वळेरी तयार केल्या. नेमिल्ल्या परिक्षक मंडळाकडेन मूळ वळेरी तशेंच वर्तमानपत्रांतल्यान आवाहन करून मागयिल्ल्यो शिफारशी दवरल्यात आनी त्या आदाराचेर निकाल तयार केला.

जीवन गौरव आनी युवा चैतन्य पुरस्कारांचे निवडीचे बाबतींत लोकांकडल्यान मागयिल्ल्यो शिफारशी घेतल्यात. त्याभायर परिक्षक मंडळाक पुरस्काराखातीर नांवां वेंचून कडापाची पुराय मेकळीक दिल्या. ही निवड प्रक्रिया सामकी निर्दोश आसा अशें न्हय पूण ती चडानचड पारदर्शक आनी निर्दोश आसा अशें म्हणूंक जाता.

अंदूचे कोंकणी साहित्य भाशा सेवा पुरस्कार जांकां लाबल्यात त्या सगळ्या जैतिवंतांचें अकादेमी मनाकाळजांसावन अभिनंदन करता.

**पुंडलीक ना. नायक**
अध्यक्ष

# समारंभाचे मुखेल सोयरे डॉ. सुरजीत पातर हांची वळख



डॉ. सुरजीत पातर हे नामनेचे पंजाबी कवी. तांचो जल्म 14 जानेवारी 1945 दिसा पंजाबांतल्या जालंदर जिल्ह्यांतल्या पट्टर कलन गांवांत जालो. तांणी 'पंजाबी' भाशेंत एम. ए. केल्या तशेंच 'पंजाबी वाणींत लोकवेदाचें रुपांतर' हो विशय घेवन पीएच. डी. केल्या तांणी. एम. ए. चे परीक्षेत भांगराचें पदक मेळयिल्लें आसा.

आजवेर तांची 13 पुस्तकां प्रकाशीत जाल्लीं आसात, जीं मुखेलपणान कविता आनी कवितेविशींचीं आसात. 'हवा विच लिखे हरफ', 'पथझर दी पाझेब', 'सुरजमीन', 'ब्रीक अर्ज के' हीं काय महत्वाचीं आसा. तांची हेर भाशांतल्यान रुपांतरीत केल्ल्या नाटकांचीय पुस्तकां उजवाडाक आयिल्लीं आसात.

ताणी टी. व्ही. मालीकांखातीर लेखन केलां, तशेंच पंजाबी कवितेविशीं टी. व्ही. चेर कार्यावळी सादर केल्यात. त्याखातीर संहिता लेखन केलां. पंजाबी लोकसंगीत आनी लोककाव्य हे तांचे जिव्हाळ्याचे विशय आशिल्ल्यान, ते विशींय साबार कार्यावळी ताणी टी. व्ही. चेर सादर केल्यात.

पंजाबी साहित्य अकादमी पुरस्कार, कर्तार सिंग धालीवाल पुरस्कार, साहित्य अकादमी पुरस्कार, पश पुरस्कार, पंजाबी अकादमी, दिल्ली पुरस्कार, भारतीय भाशा परिशद - कोलकोता पुरस्कार, आनंद काव्य सन्मान, सरस्वती सम्मान, गंगाधर राष्ट्रीय कविता पुरस्कार, अशे साबार प्रतिश्टेचे पुरस्कार फावो जाल्ले आसात. तशेंच तांच्या विद्याभाशीय आनी साहित्यीक वावराखातीर 'संबलपूर विद्यापीठ ओरीसा' आनी 'गुरु नानक देव विद्यापीठ, अमृतसर' ह्या विद्यापिठानी डी. लीट. पदवी भेटोवन तांकां सन्मानीत केल्यात..

कोलंबिया, चीन, न्यूयोर्क, फ्रंट फॉर्ट, यु. के. कॅनाडा, यु. एस. ए., ऑस्ट्रेलिया ह्या विदेशांनी तांणी भोवंडी केल्या आनी अंतरराष्ट्रीय पावंड्याचेर आयोजीत केल्ल्या साहित्यिक कार्यावळींनी भाग घेतला.

# सर्वोत्कृष्ट कोंकणी साहित्य पुरस्कार 2012

## शुभंकर (कविता)



## श्री. परेश नरेंद्र कामत

श्री. परेश नरेंद्र कामत हांचो जल्म 1968 वर्सा पणजे जालो. वेवसायान ते फार्मासीस्ट आसात. तरणाटे पिळगेंतले एक प्रतिभावंत कवी म्हण तांची आज कोंकणी संवसारांत वळख आसा.

'अळंग' (2000), 'गर्भखोल' (2004), 'शुभंकर' (2001) आनी 'चित्रलिपी' (2013) अशे तांचे आजवेर चार कवितासंग्रह उजवाडाक आयल्यात. राजेश जोशी हांच्या 'दो पंक्तियोंके बीच' या साहित्य अकादमी पुरस्कार प्राप्त मूळ हिन्दी कविता संग्रह तांणी साहित्य अकादमीखातीर कोंकणीत अणकारला. राष्ट्रीय पावंड्यावेल्या विविध कवीसंमेलनांनी तशेंच कवितेवेल्या परिसंवादांनी वांटो घेतला. तांच्यो कविता हिन्दी, गुजराथी, मराठी, सिंधी, पंजाबी आनी बंगाली भाशेंत अणकारीत जाल्यात.

तांकां कोंकणी भाशा मंडळ गोंय – साहित्य पुरस्कार (2001 आनी 2005), गोवा हिंदू असोशिएशन, मुंबय संस्थेचे बा. भ. बोरकार यादस्तिक पुरस्कार (2004), जनगंगा साहित्य पुरस्कार (2010), 'कला अकादमी साहित्य पुरस्कार (2001), जेसीआय, फोंडेचो युथ आयकोन (2010) आनी गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाचो 'युवा सृजन पुरस्कार (2011-12) फावो जाल्लो आसा.

**गोंय सरकारचे गोवा कोंकणी अकादमीचो सर्वोत्कृष्ट साहित्य पुरस्कार 2012 (कविता विभाग) तांच्या 'शुभंकर' ह्या कवितासंग्रहाक फावो जाला.**

## सर्वोत्कृष्ट कोंकणी साहित्य पुरस्कार 2012

## तळाचो फातर (कादंबरी)



## श्री. रामनाथ गावडे

श्री. रामनाथ गजनन गावडे हांचो जल्म 19 मार्च 1969 वर्सा उसगांव वाठांरात जालो. सद्द्या तांचो राबितो मोलें - कुळें हांगा आसा. तांणी इतिहास विशय घेवन एम. ए. केल्या. मोलेंच्या पंचायतींत ते कारकून म्हण कार्यरत आसात.

1969 वर्सासावन तांणी लेखनाक सुरवात केली. वेग-वेगळ्या कोंकणी दिसाळ्यांतल्यान तांच्यो कथा-कविता उजवाडाक आयल्यात. आकाशवाणीवेल्यानय तांचें साहित्य उजवाडाक आयिल्लें आसा.

सुमार वीस नाटकुलीं बरोवंन तांणी सादर केल्यांत तशेंच नाटकांनी अभिनयूय केला. आकाशवाणी आनी पणजी दूरदर्शन केंद्राचेर हंगामी निवेदक म्हण वावुरल्यात.

'सावळ्यो' (कथासंग्रह), 'उतळजीण' (कथासंग्रह), 'युवा कथा' (कथासंग्रह), 'सदू' (बाल नवलिका), 'सदू आनी जानू' (बाल नवलिका), 'शितळगंगेचें ल्हार' (संगीत नाटक) 'तळाचो फातर' (कादंबरी) हीं तांचीं प्रकाशीत पुस्तकां.

तांकां कोंकणी भाशा मंडळाचो स. सरसिंह दा. नायक यादस्तीक साहित्य पुरस्कार, गोवा कोंकणी अकादेमीचो कथा विभागांत (2001) सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार, कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडे संस्थेचो स. रामनाथ मथा बाल साहित्य पुरस्कार आनी कला अकादेमीचो (2011) उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार फावो जाल्लो आसा.

**गोंय सरकारचे गोवा कोंकणी अकादेमीचो, सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार (कादंबरी विभाग) तांच्या 'तळाचो फातर' कादंबरीक फावो जाला.**

## सर्वोत्कृष्ट कोंकणी साहित्य पुरस्कार 2012

## राजकुंवर शेणला (एकांकी संग्रह)



## श्री. कविंद्र व्यंकटेश फळदेसाय

हांचो जल्म 14 जानेवारी 1972 वर्सा काणकोण म्हालांत पैंगीण हांगां जालो. तांचें शिक्षण एम्. ए., बी. एड्. (मराठी आनी कोंकणी) मेरेन जालां. निराकार शिक्षण संस्थेच्या माशें काणकोण हांगासल्ल्या सत्यवती सोयरू आंगले उच्च माध्यमिक विद्यालयांत 1994 सावन मराठी विशयाचें अध्यापन करतात.

'एक काणी', 'इश्टागत', 'राजकुंवर शेणला', 'बॉन्साय', 'टिट फॉर टॅट', शेणिल्लें सोदताना', 'एक दिस हिस् हिस्', 'वळख', 'जगचेंखातीर' ह्यो कोंकणी एकांकी बरोवन रंगमाचयेर हाडल्यात तशेंच बारा मराठी एकांकी बरोवन सादर केल्यात. तांगेली 'मनिसगांव' (काणी), 'राजकुवंर शेणला' (एकांकी) हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

दोन प्रातिनिधीक एकांकिका संग्रहांत तशेंच साहित्य अकादेमीच्या 'दोन दसकांकी' संग्रहांत एकांकीचो आस्पाव जाला.

त्याभायर वात्रटिका बरयल्यात, पथनाट्य, नाट्यछटा आनी कवितांचें लेखन केलां. 'गीत तुजें गायतना' आनी 'शृंगार' ह्या कोंकणी ध्वनीफितींखातीर तशेंच 'पर्जन्य' या शॉर्टफिल्माखातीर गीतलेखन केलां. 'माझ्या मना' या मराठी नाटकाचे हंस थियेटराचे वतीन 25 प्रयोग जाल्यात.

'राजकुंवर शेणला' ह्या एकांकी संग्रहाखातीर कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडेंचो स. रामनाथ एस. मथा यादस्तीक बालसाहित्य पुरस्कार लाबला.

**गोंय सरकाराचे गोवा कोंकणी अकादेमीचो सर्वोत्कृष्ट साहित्य पुरस्कार 2012 (नाटक विभागांत) तांच्या 'राजकुंवर शेणला' ह्या एकांकी संग्रहाक फाव जाला.**

## सर्वोत्कृष्ट कोंकणी साहित्य पुरस्कार 2012

## कोडू कसाय गोड गुळी (निबंद)



## डॉ. मधुसुदन पुरुषोत्तम जोशी

डॉ. मधुसुदन पुरुषोत्तम जोशी हांचो जल्म 9 मे 1963 दिसा जालो.

तांचे मुळावें शिक्षण आरोंदा – सावंतवाडी हांगा जालें. उपरांत केरी–फोडें वांठारांत राबितो. फार्मासी शिक्षणांत योगायोगान प्रवेश केलो. मागीर पी. एच. डी. मेरेन शिक्षण जालें. गोंय फार्मासीं महाविद्यालयांत फाटलें देड दसक प्राध्यापक म्हूण वावुरतात. कोंकणीत नेमान बरप. ह्या नेमान बरपावळींतल्यान 'कोडू कसायाची गोड गुळी' करपाचो यत्न जालो. तांचो 'खांवटे' (कथा संग्रह) आनी 'कोडू कसाय गोड गुळी (निबंद) हीं पुस्तकां उजवाडा आयल्यात.

कथा साहित्यांत ते वैजकी विशेयांचो कलात्मकरितीन वापर करतात. ते खातीर कोंकणी कथा साहित्यांत तांची कथा वैशिश्ट्यपुराय थारल्या. तांगेली एक कादंबरी प्रकाशनाचे वाटेर आसा.

**गोंय सरकारचे गोवा कोंकणी अकादेमीचो सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार 2012 (निबंद विभाग) तांच्या 'कोडू कसाय गोड गुळी' ह्या निबंदाच्या पुस्तकाक फावो जाला.**

## सर्वोत्कृष्ट कोंकणी ग्रंथ पुरस्कार 2012

## अक्षर सरिता (समिक्षा)



### डॉ. किरण बुडकुले

डॉ. किरण बुडकुले हांचो जल्म 9 नोव्हेंबर 1954 दिसा मडगांवात जालो. तांणी एम. ए. पीएच. डी. मेरेन शिक्षण घेतलां. आनी गोंय विद्यापिठांत त्यो इंग्लीश विशयाचें अध्यापन करतात.

त्यो भौभाशीक समीक्षक आसात. 'क्रिटीकल प्रॅक्टीस', 'इंडियन लिटरेचर', 'वाक', 'सोल' 'गोवापुरी', 'समकालीन', 'जाग' ह्या नेमाळ्यांनी तांचें इंग्लीश, कोंकणी, हिन्दी भाशेंत बरयिल्लें समिक्षणात्मक 'साहित्य प्रसिद्ध जाल्लें आसा.

तांणी कोंकणी साहित्याचो हिन्दी, इंग्लीश, मराठी बी भाशांनी अनुवाद केला. तशेंच ह्या भाशांतलें साहित्य कोंकणीत अनुवादीत केलां.

साहित्य अकादेमी दिल्ली, नॅशनल बूक ट्रस्ट, ब्रिटीश कॉन्सील, इंडो - युरोपियन स्टडीज, इन्स्टीट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा ह्या सारख्या साहित्यीक संस्थाचे कार्यावळींनी तज्ञ म्हण तांणी मार्गदर्शन केलां.

तांची आयजवेर धा पुस्तकां उजवाडाक आयिल्लीं आसात. ते मदीं 'साहित्य नियाळ', 'समिक्षेकडेन इश्टागत', `Shenoi - Goembab,' `The man and his work,' 'शतकान्तीका', 'अक्षर सरिता', तशेंच 'Mapping the Morais of culture' ही म्हत्वाचीं आसात.

तांकां 2003 वर्सा सर्गेस्त श्री. गुंडू एस्. आमोणकार पुरस्कार लाबला.

**गोंय सरकारचे गोवा कोंकणी अकादेमीचो सर्वोत्कृष्ट ग्रंथ पुरस्कार 2012 (संशोधन/शास्त्रीय विभाग) 'अक्षर सरिता' ह्या समिक्षा ग्रंथाक फावो जाल्लो आसा.**

## सर्वोत्कृष्ट कोंकणी बाल साहित्य पुरस्कार 2012

## एक आसली आजी (बालसाहित्य पुरस्कार)



### श्रीमती माया खरंगटे

श्रीमती माया खरंगटे हांचो जल्म 20 जून 1956 दिसा मडगांव शारांत जालो. बी. ए., बी. एड्. मेरेन तांचें शिकप जालां. त्यो वेवसायान शिक्षिका, कोंकणींतलीं एक नामनेची लेखिका म्हण तांकां आज वळखतात. कविता, कथा, नाटकुली, अणकार, बालसाहित्य अशे साहित्य प्रकार तांणी समर्थपणान हाताळ्यात. 'कयपंजी' हो कविता संग्रह जाल्यार 'घोंटेर', 'मळबझेंप' आनी 'मृगजळ' 'काळी कुपां, रुपेरी देगं' अशे तांचे कथासंग्रह उजवाडाक आयल्यात. 'निकोबारच्यो लोककाणयो' आनी 'जपान पळोवन आयलों' हीं अणकाराचीं दोन पुस्तकां प्रकाशींत जाल्यांत. ते भायर आतांमेरेन तांचीं बाल साहित्याचीं 23 पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांच्यो कांय कथा मराठी, कन्नड, हिन्दी, गुजराती आनी इंग्लीश भाशेंत अणकारीत जाल्यात. शिक्षणीक अभ्यासक्रमांत तांच्या साहित्याचो आस्पाव जाला.

एन्. सी. ई. आर. टी., दिल्ली हे संस्थेचो 'बालसाहित्य पुरस्कार' कोंकणी कला आनी साहित्य केंद्र कुडचडें हे संस्थेचो बालसाहित्य पुरस्कार, 'मळबझेप' ह्या पुस्तकाक, कोंकणी भाशा मंडळाचो, पुरस्कार, ए. आय. पी. सी. खुर्जा (यू. पी.) हे संस्थेचो 'माँ शारदा' काव्यसेवा पुरस्कार तशेंच हे आदी 'मृगजळ' ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीचो 2010 वर्सा कथा विभागांत साहित्य पुरस्कार लाबला.

**गोंय सरकारचे, गोवा कोंकणी अकादेमीचो सर्वोत्कृशट बाल साहित्य पुरस्कार 2012 तांच्या 'एक आसली आजी' ह्या पुस्तकाक फावो जाला.**

## गोंयाभायल्या लेखकाक साहित्य पुरस्कार 2012

## **संकल्प** (कविता)



## श्रीमती इंदू अशोक गेरसप्पे

श्रीमती इंदू अशोक गेरसप्पे हांचो जल्म 13 जून 1941 वर्सा मंगळूर हांगा जालो.

संगीत, नृत्य, साहित्य, चित्रकला ह्या विशयांत तांकां खूब रुची.

मुंबयच्या एका नामनेच्या विद्यालयांत शिक्षिका म्हूण तांणी एकवीस वर्सां विद्यादानाचें कार्य केलां. ह्या काळार तांणी एकांकी – नाटकां बरोबर दिग्दर्शीतय केल्यात. हौशी रंगमंचाखातीरय नृत्यनाटिका, नाट्यप्रवेश आनी नाटकां बरोवन दिग्दर्शत केल्यांत. मुंबय दूरदर्शनावयल्यान भुरग्यांखातीर सामाजिक संदेश दिवपी कोंकणी तशेंच मराठींतल्यान नाट्यप्रवेश आनी कोंकणीतल्यान लोकसंगीताच्यो कार्यावळी प्रस्तुत केल्यात.

तांच्या कोंकणी कथा आनी कवितांचो इंग्लीशींत अणकार जाला.

'फेमिना', 'कॅनरा सारस्वत', 'ऋतू' तशेंच 'बिम्ब' मासिकांतल्यान तांगले साहित्य प्रकाशीत जालां. तांचो 'संकल्प' हो कवितासंग्रह 2010 वर्सा उजवाडाक आयला.

**गोंय सरकारचे गोवा कोंकणी अकादेमीचो गोंया भायल्या लेखकाखातीर आशिल्लो उत्कृश्ट साहित्याचो पुरस्कार 2012 तांगेल्या 'संकल्प' ह्या कविता संग्रहाक लाबला.**

## युवा चैतन्य पुरस्कार 2012



## श्री. गोपीनाथ गांवस

श्री. गोपीनाथ गांवस हांचो घोटेली – सत्तरी हांगा 4 फेब्रुवारी 1971 वर्सा जल्म जालो. तांणी बी. ए., बी. कॉम., एम्. ए., बी. एड. मेरेन शिकप घेतलां. अखिल महाराष्ट्र पत्रकार आनी पत्रलेखक संघ, मुंबय हे संस्थेचो पत्रकारीता अभ्यासक्रम तांणी पुराय केला. स्वामी विवेकानंद स्मृती संघ शिक्षणीक संस्था, केरी – सत्तरी हांगाच्या विवेकानंद विद्या मंदिराचे मुख्याध्यापक म्हण ते सद्द्याक कार्यरत आसात.

लोककलेचो एक अभ्यासक तशेच संवर्धक म्हुणून ते वावुरतात. तांकां 2006 वर्सा गोवा कोंकणी अकादेमीची 'धालो' विशयाचेर संशोधनशिश्यवृत्ती फावो जाल्या. तशेंच 2011-12 वर्साखातीर 'सत्तरींतली सोकारत' विशयाचेर वावर करूंक अर्थीक पालव लाबला. फाटलीं सुमारे पंचवीस वर्सा कोंकणीच्या कला, शिक्षण, समाज आनी संस्कृती ह्या मळाचेर वावर करता. तांणी सत्तरी तालुक्यांतल्या तशेंच सत्तरी भायल्या सुमार 50 वयर फुगडी पंगडांक मार्गदर्शन केलां. आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर सुमार दोन वर्सां कोंकणी वृत्त निवेदक म्हण वावुरल्यात. 'प्रुंडंट मिडिया' ह्या खबरां चॅनलाचेर 'मांड' ह्या सांस्कृतिक माळेच्या 126 भागाचें कलानिपुणतेन सूत्रनिवेदन केलां. तांचो 'ओले ओले' हो कविता संग्रह उजवाडाक आयला. कोंकणीच्या कार्याखातीर सत्तरींतली युवाशक्ती संघटीत करपाखातीर भरीव वावर केला.

**कोंकणी भाशेच्या मळार केल्ल्या ह्या मोलादीक वावराखातीर गोंय सरकाराची गोवा कोंकणी अकादेमी तांकां 2012 वर्साचो युवा चैतन्य पुरस्कार भेटयता.**

# युवा चैतन्य पुरस्कार 2012



## डॉ. सोनिया सिरसाट

डॉ. सोनिया सिरसाट हांचो जल्म 16 जुलय, 1973 वर्सा मडगांवा जालो. तांचे शिक्षण - एम. ए. पी. एच. डी. (हिन्दी) मेरेन जाला. कला, विज्ञान आनी वाणिज्य सरकारी म्हाविद्यालय, साखळी हांगासर त्यो हिंदी विभागाच्यो मुखेली आसात. सरकारी महाविद्यालय, पेडणे हांगा 1995 सावन काम करतना कोंकणी भाशेतल्यान तरेकवार साहित्यीक कार्यावळी घडोवन हाडून विद्यार्थ्यांमदीं कोंकणी साहित्याविशी जागृताय निर्माण केल्या. कोंकणी भाशा चळवळीचें एक घटक म्हूण सतत वावरून पोटतिडकीन काम केलां. बार्देस कोंकणी अस्मिताय केंद्र, कोंकणी भाशा मंडळ बार्देस ह्या संस्थांची पदां सांबाळ्यांत.

एका मराठी पुस्तकाचो तशेंच साहित्य अकादमीचे वतीन 'रामधारी सिंह दिनकर' ह्या हिन्दी विनिबंदाचो कोंकणी अणकार केला. त्या भायर हिन्दी तशेंच इंग्लिश भाशेंतलीं स्वरचित, अणकारीत आनी संपादीत 10 पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. तशेंच राष्ट्रीय पावंड्यावयल्या चर्चासत्रानी कोंकणी तसेंच हिन्दी साहित्याचेर हिन्दींतल्यान निबंद सादर केल्यात. कोंकणी लेखकांच्या कथा कवितांचे हिन्दींतल्यान अणकार जाल्यात. हिन्दींतले श्रेश्ठ साहित्य कोंकणीत हाडपाचो म्हत्वपूर्ण वावर केला. 2010 वर्सा दिल्लीच्या जे. एम्. डी. पब्लिकेशन तर्फे हिन्दी भाशेच्या मळार केल्ल्या वावरा खातीर 'विशिष्ट हिन्दी सेवी सम्मान' फावो जाला.

**कोंकणी भाशेच्या मळार केल्ल्या ह्या मोलादीक वावराखातीर गोंय सरकाराची गोवा कोंकणी अकादेमी तांकां 2012 वर्साचो युवा चैतन्य पुरस्कार भेटयता.**

## साहित्य प्रतिभा पुरस्कार 2012



## श्री. दामोदर मावजो

श्री. दामोदर मावजो, हांचो जल्म ता. 1 ऑगस्ट 1944 वर्सा, साश्ट म्हालांतल्या माजोड्डें गांवात जालो. ते बी. कॉम. चे पदवीधर आसात. व्यवसायान पसरकार आसात. कथा आनी कादंबरीच्या मळार ताणी देशभर नामना जोडल्या. तांगेले चार कथासंग्रह, तीन कादंबरीका, तीन बालकाणयांची पुस्तकां जाल्यार दोन भुरग्यांखातीर चरित्राची पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

तांगेली साहित्य अकादेमी पुरस्कार जैतिवंत कादंबरी 'कार्मेलीन' भौतेक सगळ्या भारतीय भाशांनी प्रकाशित जाल्यात. 'दिज आर माय चिल्ड्रन' हो तांगेल्या कोंकणी कथांचो इंग्लीश अणकार. 'रुमडफूल'चो मराठी अणकार प्रकाशित जाला.

'सूड' कादंबरीकेचेर त्याच नांवाचें फिल्म जालां. त्याभायर तीन फिल्माखातीर ताणीं पटकथा, संवाद बरयल्यात. दूरदर्शनचे 'एक कहानी' माळेंत तांच्या दोन कथांचेर ल्हान फिल्मां तयार जाल्यात.

साहित्य अकादेमी पुरस्कारा बरोबर तांकां गोवा कला अकादेमी, कला आनी संस्कृती संचालनालय, कोंकणी भाशा मंडळ हांचे पुरस्कार, जनगंगा पुरस्कार, नवी दिल्लीचो कथा पुरस्कार, गोंय राज्य चित्रपट महोत्सवांत पटकथा आनी संवाद लेखनाखातीर पुरस्कार आनी विश्व कोंकणी केंद्र मंगळूरचो श्रीमती विमला पै साहित्यिक पुरस्कार अशे विविध पुरस्कार लाबिल्ले आसात.

**कोंकणी भास आनी साहित्याच्या मळार दिल्ल्या मोलादीक योगदानाखातीर गोंय सरकाराची गोवा कोंकणी अकादेमी तांकां 2012 वर्साचो साहित्य प्रतिभा पुरस्कार भेटयता.**

# साहित्य प्रज्ञा पुरस्कार 2012



## श्री. नागेश सोंदे

श्री नागेश दत्तात्रय सोंदे, हांचो जल्म ता. 16 आक्टोबर 1930 वर्सा कर्नाटकांतल्या सिरसी गांवांत जालो. उंचेल्या शिकपाखातीर ते मुंबय आनी उपरांत अहमदाबाद गेले आनी थंय कायद्याचें शिकप घेतलें. 1959 पासून मफतलाल कंपनीन सेक्रेटरी म्हण काम केलें आनी 1991 वर्सा ते निवृत्त जाले.

सतराव्या वर्सा सावन कोंकणी आनी इंग्लीश भाशेंत कोंकणी संबंदित बरप करून नेमाळ्यांनी उजवाडाक हाडलें. कोंकणी साहित्य समिती मुंबय हे संस्थेचे अध्यक्ष जावन ताणीं अखिल भारतीय स्वरुपाच्या कोंकणी नाट्यमहोत्सवांचें यशस्वीरितीन आयोजन केलें. बेंगलोर हांगासर जाल्ल्या 15 व्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या अधिवेशनाचे ते अध्यक्ष आशिल्ले. ताणी 1973 वर्सा सावन ताणी देवनागरी लिपिंत 'कौंडिण्य' नावांचें वैचारिक स्वरूपाचें नेमाळें सेगीत पांच वर्सां चलयलें. धर्मिक आनी तत्वगिन्यानी साहित्याची रचना, संपादन, आनी ताचेर भाष्य करपी कोंकणीतले ते एकमेव अशे लेखक आसात. त्या विशयाचेर कोंकणी भाशेंत तांगेलीं वट्टा तेरा पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. त्याभायर ह्याच विशयाचेर ताणी इंग्लीश भाशेंत सतरा पुस्तकां बरोवन तीं उजवडायल्यांत. मणिपालच्या डॉ. टि. एम. ए. पै फावंडेशनान संत पुरंदरदास पुरस्कार भेटोवन तांचो गौरव केला. तशेंच अनेक संस्थांनी तांका भौमानित केल्या.

**कोंकणी भास आनी साहित्याच्या मळार दिल्ल्या मोलादीक योगदानाखातीर गोंय सरकाराची गोवा कोंकणी अकादेमी तांकां 2012 वर्साचो साहित्य प्रज्ञा पुरस्कार भेटयता.**

## शणै गोंयबाब कोंकणी भाशा सेवा पुरस्कार 2012



## आंतोन द पीयेदाद मोराइस

श्री. आंतोन द पीयेदाद मोराइस हांचो जल्म ता. 27 डिसेंबर 1935 वर्सा, साश्ट म्हालांतल्या चिंचिणी गांवांत जालो. तागेले लायसीएमचें सात वर्सां मेरेनचें शिकप गोंयांत जालें. मुखार ताणी कायद्याचो अभ्यास केलो. आनी गोंय सरकाराचे सेवेंत रुजू जाले. थंय विविध हुद्द्यांचेर वावर करून अखेरेक सनदी अधिकारी म्हण ते 1993 वर्सा निवृत्त जाले. सरकारी सेवेंत असताना सरकारी कर्मचाऱ्यांक कोंकणीचें प्रशिक्षण दिवपाचो म्हत्वपूर्ण वावर ताणीं केलो.

गोंयांत 1967 वर्सा जाल्लो ओपिनियन पोल, कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय लाबची म्हण जाल्ली चळवळ, 1985 वर्सा जाल्लें कोंकणी राजभाशेचें आंदोलन ह्या सगळ्या चळवळींकडेन तांचो खूब लागींचो संबंद आसा. कोंकणी भाशा मंडळाचे फांटे पणजेंत आनी हेर जायतेकडेन उक्ते करून कोंकणीचो प्रसार गांवांगांवानी केलो. कोंकणी अभ्यास केंद्रांची निर्मिती संदर्भ ग्रंथालय तयार करप, पुस्तक प्रदर्शनां मांडप होवूय वावर ताणी केला. हेर सामाजिक आनी धर्मिक वावरांतूय तांचो मोलादिक वांटो आसा.

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेन तांचो गौरव केला. प्रतिष्ठेचो ‘जेजुएत आंतोनिओ पेरेरा कोंकणी पुरस्कार’ (2002), ‘दाल्गादो कोंकणी अकादेमी पुरस्कार’ (2004), ‘कोंकणी भाशा मंडळ सेवा पुरस्कार’ (2006) ‘दाल्गादो दायज पुरस्कार’ (2009) आदि नामनेचे पुरस्कार तांकां लाबल्यात.

**कोंकणी भास आनी साहित्याच्या मळार दिल्ल्या मोलादीक योगदानाखातीर गोंय सरकाराची गोवा कोंकणी अकादेमी तांकां 2012 वर्साचो शणै गोंयबाब कोंकणी भाशा सेवा पुरस्कार भेटयता.**

## माधव मंजुनाथ शानभाग कोंकणी भाशा सेवा पुरस्कार 2012



### फा. मार्क वाल्डर

फा. मार्क वाल्डर हांचो जल्म 22 ऑक्टोबर 1936 दिसा कर्नाटकांतल्या दक्षिण कन्नड जिल्ह्यांतल्या परमुडे गांवांत जालो. तांणी पत्रकारीता विशयांत पदविका आनी मानसशास्त्र विशयांत पदवीमेरेनचें शिकप घेतलां. ते पेरीश प्रिस्ट म्हण वावुरतात.

1972–1973 ह्या काळांत 'राखणो' ह्या कोंकणी नेमाळ्याचे ते सहयोगी संपादक आशिल्ले. उपरांत 1973–1985 ते संपादक जाले. कोंकणी भाशा मंडळ, कर्नाटक संस्थेचे ते संस्थापक वांगडी आसात.फाटलीं सुमार चाळीस वर्सां ते निस्वार्थीपणान पत्रकारीता आनी साहित्य ह्या माध्यमांवरवीं कोंकणीच्या उदरगतीखातीर वावुरता. तांणी दक्षीण कर्नाटकांतलें कोंकणी साहित्य ह्या विशयाचेर साबार लेख आनी निबंद बरोवन वेग–वेगळ्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक हाडिल्ले आसात. तांणी संपादीक केल्लें 'अमर कोंकणी' हें पुस्तक 1974 वर्सा उजवाडाक आयलां. रोम आनी इटलींत जाल्ल्या अंतरराष्ट्रीय प्रकाशकांच्या फोरमांत ते सहभागी जाल्यात. कोंकणी शिवाय तुळू, कन्नड आनी इंग्लीश भाशेंतय ते लेखन करतात. पत्रकारीतेंतल्या तांच्या योगदानाखातीर 2005 वर्सा कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादेमीन तांकां पुरस्कार भेटोवन भोवमानीत केलां. तशेंच मांड, सोभाण, मंगळूर हे संस्थेन तांकां 'कोंकणी म्हामनीस' हो पुरस्कार भेटयला.

**कोंकणी भाशेच्या मळार केल्ल्या ह्या मोलादीक वावराखातीर गोंय सरकारची गोवा कोंकणी अकादेमी, 2012 वर्साचो माधव मंजुनाथ शानभाग कोंकणी भाशा सेवा पुरस्कार तांकां भेटयता.**

# कोंकणी सेवा संस्था पुरस्कार 2012




## अंत्रुज ललितक

‘अंत्रुज ललितक’ची एक नाट्य आनी सांस्कृतिक संस्था म्हणून 1 मे 1976 वर्सा फोंडे म्हालांतल्या नागेशी बांदोडें गांवांत भाशीक संघर्शाचे फाटभुंयेचेर स्थापना जाली. संस्थेन 1976 वर्सा ‘राहिल’ ह्या कोंकणी नाटकान रंगमाचयेर पावल दवरलें. 1976 ते 2013 ह्या 37 वर्सांच्या काळात संस्थेन वट्ट 25 नाटकांची निर्मिती केली. तातूंत ‘शेणिल्लो गांव’, ‘रथोत्सव’, ‘सं. चारूदत्त’, ‘सत्य माड्डीतां माड्डीतां’, ‘सुंवारी’, ‘डॅडी’, ‘संस्कार’, ‘परिक्रमा‘, ‘गे माये’, ‘सांवार युग’, ‘सुरींग’ आदिं गाजलेल्या नाटकांचो आस्पाव जाता.

थळाव्या तशेंच राष्ट्रीय नाट्य महोत्सवांनी भाग घेवन तातूंत उत्कृश्ट प्रयोगाचीं तशेंच वयक्तिक विभागांतलें साबार इनामां जोडल्यांत. कारवार, उडूपी, मंगळूर, बेंगळूर, मुंबय, नाशीक हांगासर जाल्ल्या राष्ट्रीय थरावयल्या नाट्यमहोत्सवांनी तशेंच उत्सवानी नाटकां सादर केल्यांत.

कोंकणी रंगमाचयेर दर्जेदार नाटकां खेळोवन गोंयांत तशेंच गोंयाभायर कोंकणी नाटकांचो उंचेलो पांवडो सिद्ध करून दाखोवपाचो म्हत्वपूर्ण वापर संस्थेन केला.

कोंकणी रंगमाचयेर नाटकांचे निर्मिती आनी प्रस्तुती बरोबर रंगमाचयेक पोशक थारपी नाट्यशिबिरां, मेळावे, मार्गदर्शक कार्यावळी घडोवन हाडल्यात. तशेंच कोंकणी भाशा आनी साहित्याचे सर्जनात्मक चळवळींत तशेंच संघर्शमय आंदोलनांत अंत्रुज ललितक संस्था कोंकणीची एक घटक जावन वावुरल्या.

**संस्थेच्या ह्या अखंडीत वावराखातीर संस्थेक गोंय सरकाराचे गोवा कोंकणी अकादेमीचो कोंकणी सेवा पुरस्कार 2012 फाव जाला.**

# गोवा कोंकणी अकादेमी
# कोंकणी साहित्य आनी भाशा सेवा पुरस्कार
# फाटली वळेरी

---

## 2008

### सर्वोत्कृश्ट कोंकणी साहित्य / ग्रंथपुरस्कार

1. भूंयफोड (कविता) **श्रीमती ग्वादालूप डायस**
2. धतरेचो स्पर्श (कथा) **श्री. तुकाराम रामा शेट**
3. संघर्श (एकांकी) **श्री. मार्कुस गोन्सालवीस**
4. दवरणें (निबंद) **श्री. प्रकाश पर्येकार**
5. नादब्रह्म (शास्त्रीय) **श्रीमती शकुंतला भरणे**
6. सवणें उडटना (बालसाहित्य) **बाय स्नेहा संजीव वेरेंकार**
7. युवाचैतन्य पुरस्कार – **श्री. पूर्णानंद च्यारी**
8. युवा चैतन्य पुरस्कार – **श्री. लुईस अँथनी रॉड्रीग्स** (बेळगांव)
9. साहित्य प्रतिभा पुरस्कार – **श्री. रवीन्द्र केळेकार**
10. साहित्य प्रज्ञा पुरस्कार – **डॉ. मॅथ्यू आल्मेदा** एस. जे.
11. शणै गोंयबाब कोंकणी भाशा –
    सेवा पुरस्कार – **ॲड्. उदय भेंब्रे** (परत केलो – 2011)
12. माधव मंजुनाथ शानभाग कोंकणी भाशा –
    सेवा पुरस्कार – **श्री. के. के. पै** (मणिपाल)
13. कोंकणी सेवा संस्था पुरस्कार – **कोंकणी भाशा मंडळ**, गोंय

## 2009

## सर्वोत्कृश्ट कोंकणी साहित्य / ग्रंथ पुरस्कार

1. ब्लॅक (कविता) श्री. निलबा खांडेकार
2. उतळजीण (कथा) श्री. रामनाथ गावडे
3. आमचो हात जगन्नाथ (नाटक) श्री. राजय पवार
4. हंसध्वनी (निबंद) श्री. मुकेश थळी
5. क्ष : समिक्षेंतलो (समीक्षा) डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार
6. वर्स फुकट वचूंक ना ! (बालसाहित्य) श्री. गजानन जोग
7. युवा चैतन्य पुरस्कार – श्री. आग्नेल (द बोरी) फेर्नांडीस
8. युवा चैतन्य पुरस्कार – श्री. राजदीप नायक
9. साहित्य प्रतिभा पुरस्कार – श्री. नागेश करमली
10. साहित्य प्रज्ञा पुरस्कार – श्री. सुरेश जयवंत बोरकार
11. शणै गोंयबाबा कोंकणी भाशा सेवा पुरस्कार – श्री. बाबली नायक
12. माधव मंजुनाथ शानभाग कोंकणी भाशा सेवा पुरस्कार – श्री. जे. बी. मोरायस (मुंबय)
13. कोंकणी सेवा संस्था पुरस्कार – कोंकणी कला आनी साहित्य केंद्र, कुडचडें

## 2010

## सर्वोत्कृश्ट कोंकणी साहित्य / ग्रंथ पुरस्कार

1. उत्सव (कविता) **श्रीमती मंगला कारापुरकार**

2. मृगजळ (कथा) **श्रीमती माया खरंगटे**

3. कुंवाडीं (नाटक) **श्री. हनुमंत चोपडेकार**

4. जिणेची वाट (निबंद) **जॉन एम्. आल्फोन्सो – कार्मेलायट**

5. तबलें (शास्त्रीय) **श्री. श्रीधर केशव बर्वे**

6. गिरमीट (बालसाहित्य) **श्रीमती रत्नमाला दिवकार**

7. युवा चैतन्य पुरस्कार – **श्रीमती स्वाती नायक**

8. युवा चैतन्य पुरस्कार – **श्री. कॉज्मा फेर्नांडीस**

9. साहित्य प्रतिभा पुरस्कार – **श्री. रमेश वेळुस्कार**

10. साहित्य प्रज्ञा पुरस्कार – **डॉ. तानाजी हळर्णकार**

11. शणै गोंयबाब कोंकणी भाशा –
सेवा पुरस्कार – **ॲड. सुहास दलाल**

12. माधव मंजुनाथ शानभाग कोंकणी भाशा –
सेवा पुरस्कार – **श्री. एन्. पुरुषोत्तम मल्ल्या** (केरळ)

13. कोंकणी सेवा संस्था पुरस्कार– **बार्देस कोंकणी अस्मिताय केंद्र,** म्हापशें

## 2011

## सर्वोत्कृश्ट कोंकणी साहित्य / ग्रंथ पुरस्कार

1. स्पंदन (कथा) - **श्रीमती नयना आडारकार**

2. गे माये (एकांकी) - **श्री. उल्हास यशवंत नायक**

3. मुक्तमन (निबंद) - **श्रीमती नमन धावस्कार सावंत**

5. 110 वखदी वनस्पती (संशोधन) - **डॉ. अर्चना गांवकार**

6. काणी एका सुण्याची (बालसाहित्य) - **श्रीमती सुधा खरंगटे**

7. युवा चैतन्य पुरस्कार - **श्री. अनंत अग्नी** (न्हयकारलो)

8. युवा चैतन्य पुरस्कार - **श्री. गौरीश वेर्णेकार**

9. युवा साहित्य प्रतिभा पुरस्कार - **श्री. पुंडलीक नायक** (न्हयकारलो)

10. साहित्य प्रज्ञा पुरस्कार - **डॉ. रॉकी मिरांडा**

11. शणै गोंयबाबा कोंकणी भाशा सेवा पुरस्कार - **श्री. सोतेर बार्रेत**

12. माधव मंजुनाथ शानभाग कोंकणी भाशा
सेवा पुरस्कार -**श्री. बस्ती वामन शेणै** (मंगळूर)

13. कोंकणी सेवा संस्था पुरस्कार - **कोंकणी सेवा केंद्र**, सांखळी

# कोंकणी
# साहित्य आनी भाशा
# सेवा पुरस्कार - 2012

## परिक्षक मंडळां

### सर्वोत्कृश्ट साहित्य / ग्रंथ पुरस्कार

#### कविता विभाग

1. श्री. अशोक नायक (पुष्पाग्रज)

2. श्रीमती निला तेलंग

4. श्री. प्रकाश दत्ताराम नायक

#### कथा / कादंबरी विभाग

1. श्री. अशोक कामत

2. डॉ. गुणाजी देसाय

3. प्रा. कॉज्मा फेर्नांडीस

#### नाटक विभाग

1. श्री. प्रशांत म्हाड्डोळकार

2. श्री. सतीश गांवस

3. श्रीमती विनंती कांसार कळंगुटकार

#### निबंद विभाग

1. प्रा. श्याम वेरेंकार

2. श्री. उल्हास पै भाटीकार

3. श्री. मार्टीन मिनीन फेर्नांडीस

## संशोधन/शास्त्रीय विभाग

1. डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार

2. डॉ. तानाजी हळर्णकार

3. श्री. दामोदर घाणेकार

## बालसाहित्य विभाग

1. श्री. सुरेश काकोडकार

2. श्री. पांडुरंग का. गावडे

3. प्रा. सुनिता काणेकार

## गोंयांभायल्या लेखकाखातीर पुरस्कार

1. श्री. नागेश करमली

2. श्री. गजानन जोग

3. श्री. देविदास कदम

## युवा चैतन्य पुरस्कार, साहित्य प्रतिभा पुरस्कार, साहित्य प्रज्ञा पुरस्कार, शणैं गोंयबाब कोंकणी भाशा सेवा पुरस्कार, माधव मंजुनाथ शानभाग कोंकणी भाशा सेवा पुरस्कार आनी कोंकणी सेवा संस्था पुरस्कार

अध्यक्ष : डॉ. प्रकाश वजरीकार

वांगडी

1. श्री. बाबली नायक, 2 श्रीमती वर्षा पुरुषोत्तम नायक,

3. श्री. जॉन मेंडोन्सा, 4. फा. मोईझीन आताईद

# गोवा कोंकणी अकादेमी

# सर्वोत्कृष्ट कोंकणी साहित्य / ग्रंथ पुरस्कार 2012

शुभंकर (कविता)



श्री. परेश नरेंद्र कामत

तळाचो फातर (कादंबरी)



श्री. रामनाथ गावडे

राजकुंवर शेणला (एकांकी संग्रह)



श्री. कविंद्र फळदेसाय

कोडू कसाय गोड गुळी (निबंद संग्रह)



डॉ. मधुसुदन जोशी

अक्षर सरिता (समिक्षा)



डॉ. किरण बुडकुले

एक आसली आजी (बालसाहित्य)



श्रीमती माया खरंगटे

संकल्प (कविता)



श्रीमती इंदू गेरसप्पे

गोवा कोंकणी अकादेमी

# कोंकणी साहित्य आनी भाशा सेवा पुरस्कार 2012 वितरण समारंभ

बिरेस्तार ता. 28 मार्च 2013

कार्यक्रमाचे मुखेल सोयरे



**डॉ. सुरजीत पातर**
नामनेचे पंजाबी कवी आनी
सरस्वती सम्मान विजेते साहित्यीक

कार्यक्रमाचे अध्यक्ष



**भौ. राजेंद्र आर्लेकार**
सभापती,
गोंय विधानसभा




गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी, पणजी - गोंय 403001
फोन : (0832)2437385, 2437387, 2437920
E-mail : konkaniakademi@gmail.com